219 केलेलें खावंका, भायिल्लें भोगका.
220 केलेल्यागेलें पाप सांगिल्यागेल्या तोंडांतु.
221 केळिं खालेलीं फालस, मांद्रेरि मुत्तिलें बद.

## को.

222 कोंकणे बाइलेक कानडो घोवु.
223 कोंकणो न्हावुनु मेलो, शेणइ खावुनु मेलो.
224 कोको नाका भोम्भो नाका, माळ्यावेलो देवरयल्यारि पुरो.
225 कोक्यानें ( दोंटिनें ) म्होवु काळयारि आयदान भरत वे ?
226 कोगिले हिंडांतु कायळो.
227 कोडंगि संगाति बाइलवेसानें नांचचें.
228 कोडियाळ गांवचें शेण.
229 कोणाक कोण ना, उंचारि वतल्याक सांगातु ना.
230 कोमटिगागेलो न्यायु.
231 कोल्या तोंड पळवुंचें.
232 कोल्या शींग.
233 कोळाक ( घराक ) उजो घेतचि ( लागतचि ) बायिं खणचि.
234 कोळकांदो गोडु जाल्यारि कोल्लो सोडता वे ?
235 कोळ्ळिलि दक्षिण.

## ख.

236 खायिं महाशेपु, खायिं गायंडलु ?
237 खडांवेलें रुं.
238 खांकिने पादु विसरैलो.
239 खांकि पेक्षां पादा अन्न चड.
240 खाजूरु पिकतना कायळ्या तोंडाक रुत्रं.
241 खाड्डाक उजो लागिल्यावेळारि वीडि लावंच्याक आयिलो.
242 खांड्याधारेरि चमकवुंचें.
243 खिरी गोडसाणि दवल्याक हृसें गोत्तु ?
244 खिरींतु होण बुडवुंचि.
245 खुंटियेनें हारु गिळ्ळो.

246 खोट्टो पोटशेल्लो ( कुशिल्लो ), सूर्णे भुकेल्लें.
247 खोरें आपणा दिकाने ताणता.

## ग.

248 गणपतिगांडि चिमट्टूनु गणपतीक निवेद्यु करचो.
249 गणपतिगेलि होर्डिक.
250 गणपति हातांतुलें लिंग.
251 गरजेक अक्कलना.
252 गरुडागेरि नागपंचमि.
253 गळ्यांतु आसल्यारि व्हांटींतु पडता.
254 गाडव आशिलें हस्ति करूक जात्त वे ?
255 गाडवाक वगाति केल्यारि घोडो जायिद वे ?
256 गाडवाक शिंगं आसल्यारि खोंचूनु मारतलें शिलें.
257 गाडवागेल्या गायनाक सूर्णे ताळ धरता.
258 गाडवानें गोड हागल्यारि डोंबा इत्याक भीक ?
259 गांडिरि मारल्यारि दांत पडताति.
260 गांडीक सुख ना, दोळ्यांक दुःखना.
261 गात्तां गात्तां गांवकारु जात्ता.
262 गावुं आशिल्लेकडे लावुं आस.
263 गावुं मारि, बोव करि.
264 गुड्डो चडतनां खीरि भुर्किलेलो उगडासु जाल्लो.
265 गुड्डो पोकरुनु उंदूरु काळ्ळो.
266 गुड्याक गुड्डो आड आस.
267 गू न्हयिं, भट्टु हाग्गिल्लो.
268 गोकर्णे केळश्या बोड.
269 गोड ना जाल्यारि गोड उत्तर नावे ?
270 गोडा बांधाक सोयरिकेक पेटैलि गादी.
271 गोडा बांधारि मूस चड.
272 गोंडे हालैतना गोड, बायिले पोस्तना रड.
273 गोड्डु म्हशी चाकरि.

274 गोरूं आनि पेर्डु परक्या हातांतु घालनये.
275 गोव्यांतुलि गायि दान दिली.
276 गौतुमा गायि आप्पल्या आंगारि पडता.

## घ.

277 घट्टी ताळ्यारि थुंटता, हगूर ताळ्यारि घुस्पता.
278 घ म्हळ्यारि घप करनयें.
279 घरचे देवाक पूजा ना, बाहेरचा देवाक नैवेद्यु.
280 घरचो ( सोवु आशिलो ) चोरु जिवानशिं सोण्णा.
281 घर वांकूड आनि बाईल मांकड.
282 घरां घाल्यारि पिकना, आंगडिं व्हेल्यारि विकना.
283 घरा तकीत पायो घालका.
284 घाटारि गेल्ले तरिकइ् पळसाक तिन्नी पानं.
285 घाणियांगेलें झगडें.
286 घाण्यांतु हातु दिलेलि संगति.
287 घायाक मिटा खळु.
288 घायु एकडे, वझद आनेकडे.
289 घुमट्याने मादाळ्याकडे दूरु व्हेल्लेले म्हणके.
290 घेवंचाक सगळे येत्ताति, दिवंचाक कोणइ् येनाति.
291 घेवंचें एक माप, दिवंचें आनेक.
292 घोवु मेलेल्याकइ् बोड ताशिल्लें दुःख होड.

## च.

293 चणे खावुनु हात धुवंचे.
294 चलि बुदवंति, दायि आशिलेकडे दवलो सोत्ता, दवलो आशिलेकडे दायि सोत्ता.
295 चलियेक ( चेर्डाक ) आवुसु, बेल्याक पावुसु.
296 चलि होडांगेरि दिवंका, सून गरिबां घरचि हाडका.
297 चवंडे हात्तावेलो पोळो.
298 चांगा वधूनु आंगा गू.
299 चाबिलें चावडावंचें.

300 चामडि काळशारि दमडि सुटना.
301 चामारां देवाक हाणां पूजा.
302 चाळयितल्यागेलें तोंड वांकडें.
303 चिकलांतुलो खूंटु.
304 चिकरमनेच्यागेलि संधि.
305 चुकिल्या पदाक थशना घालचो.
306 चेल्डा कार्ळि चंदावर पाड, आतं खंचे धुवे कुळार ?
307 चेर्डांगेले हाल आवसुकडेथाइ.
308 चेल्डुं ( डुं ) हाल्डी(डीं)रि घालुनु गांवभरि सोर्चें.
309 चोराक जीब घट्टि.
310 चोरा घुट्टु चोरा गोत्तु.
311 चोरानें कोतवालाक धरलो.
312 चोरा मनांतु चांदणें.
313 चोरा हातांतु बिगाहातु.
314 चौती रगडो.

## छ.

315 छी म्हणा थू म्हणा ( छी सुण्या म्हळयारि ) पोट भरुनु वाडि.
316 छी सुण्या लाज ना, आज्रि म्हळ्ळेलें फायि ना.

## ज.

317 जरो रडता ताकाक.
318 जल्यांनें मीशि रिगैलि or only मीशी रिगैलि.
319 जल्लु घालुनु नेलें पळवुंचें.
320 जांग दाकवूनु फालें करचें.
321 जाणत्यांक गोयें, नेणत्यांक पोयें.
322 जितलो व्यापु, तितलो संतापु.
323 जिबेक हाड ना.
324 जिबेवेलें हशाळें.
325 जीवाक शिवाक गांटि.
326 जीविं आइलें केर्शि गेलें.

327 जीवु आसल्यारि भीक मागुनु खावये. +
328 जीवु गोडु की गोड गोड ? or गोडाकइ जीवु गोडु.
329 जुटवा वैरि विश ना, रांडे उंचारि सवो ना.
330 जेवंच्याक आसल्यारि गावंचे सोयरे.
331 जेवतचि जाति निमगुवंचि.
332 जेवतल्यां फुडे जेवंका, न्हातल्यां माक्षि म्हावंका.
333 जेविल्लेकडे दोनि येवजूं नयें.
334 जेविल्याघरा वाशे मोजचे.
335 जेविल्यापानारि हागुनु घालनयें.
336 जैना हातांतुल्लि ऊव.
337 जोडि पेक्षां मोडि चड.
338 जोडि वेळारि मोडि मोगु ना.

## झ.

339 झाड उमटूनु पाळं फुटलिंकी पळेता.
340 झाडा तकीत फळ.

## ठ.

341 ठकाक ठिकि.

## ड.

342 डोंबेदासा मेळु.

## ढ.

343 ढोंक आशिलो गाढ्ढो कऽश्शि म्हळेले वारि.

## त.

344 तटियेरि मारनु भिसडावंचें.
345 तपलांतुलें व्हेल्यारि कपलांतुलें व्हरद वे ?
346 तर्नि बाईल, पोटांतु जाळ.
347 ताका भायिल्याक म्हशी मोल इत्याक ?
348 ताकाक येवुनु रुक्को ( मडकें ) निपयिता.
349 ताका पूर्तें रामायण.
350 तांतियांतु आसतना सादु घालता.

351 ताम्रे धावाने मिटा खलु पियंघो.
352 तिळा जोश्यो भिकंभटाक.
353 तीन तेरा नव अठरा.
354 तीलु खावुनु मत भष्ट.
355 तुगेलें म्हळ्ळेलें मगेलें, मगेलें म्हळ्ळेलें येयेयें.
356 तुगेल्या तार्वारि मगेलें अर्द फोपळ.
357 तुरत दान महा पुण्य.
358 तुरियेरि चण्णु मूळ खांडचें.
359 तुसु कांड्नु हाता फोड.
360 तूप खातल्या चेडलें रूप ( गांडि ) पळेल्यारि कळता.
361 तेन्या पाश्चावेलें उदाक.
362 तेल विक्रैल्या सांगाति नार्ल विक्रैल्लोइ रडता.
or तेल विक्रैल्लोइ रडता नार्ल विक्रैल्लोइ रडता.
363 तेल येवंचे वेळारि घाणो मोळ्ळो.
364 तेल्ला आयदानाची पशा वचना.
365 तोचि गू, तीचि काडि.
366 तोंड आसल्यारि काशि वचूनु येवयेद.
367 तोंडां तीळु, गांडीं बुदलिगा.
368 तोरीक काटु ना, काट्टाक तोरि ना.
369 त्रिशंकु रायागेलो स्वर्गु.

## थ.

370 थुंटसरि ताण्णयें, मोडसरि बगसूनयें.

## द.

371 दब्बे नातिल्या माळ्यारि चडवुंचें.
372 दशमी पूर्ते पंचांग शिक्किलो.
373 दक्षिणे तक्क प्रदक्षिणा.
374 दांत आस वरेक वट खावंचे.
375 दांत खावुनु अवलक्षण.
376 दानाक ना, धर्माक ना.

377 दाना ( धर्मा ) गावीचे दांत मोजचे.
378 दानांतु दान समाधान.
379 दायि आसतनां हातु हुस्या कासूनु घेवंका ?
380 दायि मुखारि शीत माक्षि.
381 दारलो बैसूनु नासलो, बाईल भोवुनु नासकि.
382 दारल्यांक हेर्दे घट्टि, बाइलांक कुर्द्द घट्टि.
383 दावो हातु गांडि ससारु.
384 दिक्कु नातिल्याक देवु गति.
385 दितलो आसल्यारि मागतले चड, वाडतलो आसल्यारि जेवतले चड.
386 दिवंचें आनि मोरचें कोणाकइ नाका.
387 दिवटिगे मुखारि दिवो.
388 दिवले मुळांतुं काळोकु.
389 दिसा देकिल्या बाईतु रात्रि उडकि मारचि.
390 दीसरि आपणा हात्तांतु, दित्तचि दुसऱ्या हात्तांतु.
391 दुःखांतु दुवाळो.
392 दुदाने जीब लासतचि ताक फुंकुनु पित्ता.
393 दुदाने जेवोवचें, मुताने आवोंवचें.
394 दुभति गाई दीवुनु लात्तावचें गाडव घेतलें.
395 दुसऱ्याक गुंडियेंतु घालुनु नेलें पळवुंचें.
396 दुसऱ्या तोंडानें जेवल्यारि पोट भर्त वे ?
397 दुसऱ्या बाइलेक कापड निसवुंचें.
398 देकलो गुंडो, घेतलें कपाल.
399 देवानें दिल्यारि पुजारि ( भट्टु ) दीना.
400 देवा पर्यंत गाराणें, न्हई पर्यंत धांवणें.
401 दोग्ग यजमान जाल्यारि तेग्गांतु लडायि जात्ता.
402 दोग्गां गेलो न्यायु, तिसऱ्याक आदायु.
403 दोनि दोणिवेले पाय.
404 दोरि नास्तना बांदुनु घालचें.
405 दोळे आसूनु पळेना, कान आसूनु आयकना.
406 दोळयांतुलें काजळ चोरचें.

407 दोळ्यां आड मसण पाड.
408 द्रावीड प्राणायाम.

ध

409 धवें घोड्या चाकरि.
410 धवें म्हळ्यारि दूदवे ?
411 धाजण दारले एकडे दिवस काडतीद, दोगजण बाइलांमिति जाइना.
412 धाजणां आवइ कळ्यारि ( वाटेरि ) पोण्णु गेलि.
413 धा नारळांक इकरा वळि.
414 धांवतल्याक व धावंडइतल्याक सम दणु.
415 धुरापाना दैंदु आंगारि उडुवूनु लडायि सोच्चि.
416 धुवरांतु पिंगार्त मारचें.
417 धूपु लासल्यारि पाप वचना.
418 धूर थावुनु गुड्डो गोमटो.
419 धोत्र होड जाल्यारि गोत्र होड जात्तवे ?

न

420 नगावेलो उपासु शिवरात्रेक वजा घाल्लो.
421 नय आशिले कडे भय ना.
422 नष्ट कष्ट भष्ट तीनि एकडे जावंचें.
423 नरकाक नव्व वाट्टो, स्वर्गाक एकि.
424 नवें कापड हाडचे फुडे पोरनें कापड रार्क्षि घालें.
425 नवें नवें आंगारि धवें.
426 नांक दाटल्यारि तोंड उघडता.
427 नांकाकई मोर्ति होड.
428 नांकानें जेवल्यारि पोट भर्तवे ?
429 नांकां बोट घाल्यारि चाबू कळना.
430 नांगटानें वोच्याक खोरें इत्याक ?
431 नागी बाळांत्रो.
432 नांचू कळनातिल्याक आंगण वांकडें.
433 नायका सोमारु कळ्ळो.

434 नारलु गडगडेलो, पोळो कटकटेलो.
435 निदे पेक्षां मांद्रे संभ्रम ( विस्तारु ) चड.
436 निशिल्यांतु ( काष्टेतुं ) इंगळे पळ्ळेगादि करचें.
437 निशिल्या भितरि नागडें.
438 निशिलें काण्णु मात्या सुत्तावंचें.
439 निशें देक्कुनातिल्याने कुय्यं देकलिं.
440 निशें वचनातिल्याक कडंबु तुर्किलो.
441 निश्यांतु सोकनि पळ्या ( पळेता ).
442 नीद पळ्ळेल्याक जागवयेत, जागो आशिल्याक जाइना.
443 न्हयिंचेरि कोपूनु गांडि धूयना जावंचें.

## प.

444 पंगिरो पोटळूनु आंगा कांटे.
445 पंचमा पातकि ब्रागलाक ( घराक ) दशमा पातकि कवड.
446 पडद्या भितरलें बोंबें.
447 पतिव्रते हातांतुलि भिक्षा.
448 पत्रेक गेलेल्याक वागाने व्हेलो ( धरलो ).
449 पद्रांतुं पळ्ळेलें पवित्र.
450 परबेरि पोळि, शिमग्यारि होळि.
451 परिक्षेक भाण भेतचें.
452 पळ्ळेल्या दळाक सारथि.
453 पाक उडलें म्हळ्यारि कायळो उडलो.
454 पांचइ बोटं सम आस्सतिवे ? or हात्तांचिं पांचइ etc.
455 पांच नाडि पिटाक स नाडि मीट.
456 पांच वर्सा चल्लि आसल्यारि पंचवीस दंदां आधारु.
457 पांचारि आयिल्ले गूण ( बुद्धि ) पंचविसारि.
458 पातळ गुवांतुं फात्तरु घालुनयें.
459 पादो तरि नांदो माळिये घर बांदो.
460 पाप आशिलेकडे भय आस.
461 पापयां देवु म्हणु फातराने मारचें वे ?





462 पापाक प्रायश्चित्त आस.
463 पापाक मन साक्षि, मनाक देवु साक्षि.
464 पापीक परमायुष्य.
465 पाया लागिलें पुसून उडवुंका.
466 पाया व्हाण पायाकचि आसका.
467 पावसाडिंतुलें वत.
468 पावळ्यांने फात्तरु झरता.
469 पास्कोलनायकालो सोरो.
470 पाळ्यांतु भुत्ति मेकळिळ संगति.
471 पिकलें पान पडतनां तरनें पान हास्ता.
472 पिंडाक आंड लायिल्लि संगति.
473 पिड्या बोड कशिश दवलें तरिकइ वांकडेंचि.
474 पिशाक एकडे, बुदवंताक तीनिकडे.
475 पिशाक कितले पाय आनि बुदवंताक कितले ?
476 पिशाकडे उलवुंचाकइ बुदवंताकडे झगडचें बरें.
477 पिशाक धुत्रो घालचो.
478 पिशा हातांतु सूड्यो ( कोलति ).
479 पिशे हस्तेक शिंदूरु वत्तिलेगादि.
480 पीट देक नातिल्याने गोबरु देकलो or गोबरु देक नातिल्याने पीट देकलें.
481 पुराणांतुलिं वायगिं पुराणांतुं.
482 पेटियेंतुलें पाळ्या कापड.
483 पोकर्ते बूरशें निपवुंचें.
484 पोट की पट्टण ?
485 पोटांतु आशिलें उंचारि येत्ता.
486 पोटां रिगूनु पाय निडुवंचे.
487 पोडच्या रुकाक कुराडि मारचि.
488 पोरनें सूप शेणानें घट्टि, म्हांतारो मनुश्यु खाणाने ( न्हाणानें ) घट्टि.
489 पोरलांतु हागूनु पुर्वार्जिताक रडचें.
490 पोलाक दीकु चड्डु.

491 पोशिल्या पोरा किर्ते करशि, वांचूनु वरल्यारि खोंचूनु मारशि.
492 प्रत्यक्षाक प्रमाण नाका.
493 प्रत्यक्ष देकिलें तरी परांबरसूनु पळवुंका.
494 प्रयत्न करनास्तना प्रारब्धाक रण्णयें.
495 प्रीति आसल्यारिई रीति सोण्णयें.

फ.

496 फर्कु घोड्याक ( तट्टूक ) हर्कु ( मुर्कु ) लगाम.
497 फाटीरि मारले तरिकई पोटारि मारनयें.
498 फांत्यावेळि फुस्कि हागैल्ले शिवायि रावना.
499 फायि म्हणचें फट्टि, आजि म्हणचें बद्द.
500 फाल्साक फर्टिंगु मेळता ( मेळ्ळो ).
501 फाल्साक बण्णु चढ्डु, ( पोलाक दीकु चढ्डु ).
502 फुडे आयिल्ले कान बरे, मागिरि आयिल्लिं शिंगं नाक्का.
503 फुडे उल्हासु, तांतूइं फाल्गुण मासु.
504 फुडे माल्लु, तांतुइं चावल्लो विचू.
505 फुडे रे(र)ल्ला, तांतुंइं तर्ने पिल्ला.
506 फुडे हेर्वटकारु, तांतुंइं सोमारु ( or शनिवारु ).
507 फुलांभिर्ति वावळि विकता.
508 फुल्याक वर्ण, मागल्याक तर्न.
509 फुल्लि दोणि गेल्ले वारि मागलि दोणि वत्ता.
510 फूल दिवंचे कडे पाकळि पुणी दी.
511 फूल वांकडें जाल्यारि परमळु वांकडोवे ?
512 फूल विकिल्लेकडे वावळ्यो विकुनये.
513 फोप्पळ आसतना म्हांटिंतु घाल्लें म्हणु झाड आत्तचि जात्तवे ?



514 बगुल्याक बगसुवचें चड.
515 बडाघर पोकळ वासो.
516 बाइलां तोंडांतुं तीळु तिंबना.
517 बाइलेक आयिनि आट वरसं, पाळ्या खातिर संचगारु.

518 बाइलेमिर्ति घर, भावसुमिर्ति कुळार.
519 बाइलो आनि मातिये मडकिं समचि.
520 बादरायण संबंधु.
521 बांदिल्या मुष्टेक लाख रुपयो.
522 बायिंतु आसल्यारि अडसर्ळीतु, तपलांतु आसल्यारि दवल्यांतु.
523 बारकूर गांवांतु बारा वरसांतु पट्टण or बारकूर गावंचें पट्टण.
524 बारा खुन्यो माफ करच्यो.
525 बाराभाई कारखानो.
526 बाळेचिन्न कयला वाळे.
527 बिय्या तकित भात.
528 बुक्को विकतल्यागेलो थपराको जायि मासळि, विकतल्यागेलो अप्पो नाका.
529 बुद्धि नातिलो भेदु करता.
530 बुरया चौकु मांडवूनु जायना.
531 बेतनायका बांदि सर्वांगेल्या गळ्यांतु.
532 बैलु विल्लो म्हळ्यारि कोटग्यांतु हाण्णु बांदि.
533 बोकडा गळ्या पान्ने.
534 बोकडा रोम थुंटैह्लि संगति.
535 बोकडा हींडुसो.
536 बोट दाकैल्यारि हातु गिळता.
537 बोड तासूनु ( कापणि काण्णु ) वारु निमगुवंचो.
538 बोडाने वर्जे व्हांवल्यारि पायाक जाळ.
539 ब्रह्माक मूंजि बांदचि.

## भ.

540 भटकळ तेरा आवंतण.
541 भटणीक तीर्थं आठवलें म्हणके.
542 भटाक ( बामणाक ) क्लित्याक तारुं, दार्ज्याक ( गाबस्याक ) क्लित्याक गोरुं.
543 भटो भटो आपलो भटो.

544 भटो शिकिलें म्हणा.
545 भर्लेलेकडे भर्ता.
546 भर्लेलो कळसो हायसूळना.
547 भर्लेल्या गाडीक सूप जडवे ?
548 भर्लेल्या ब्राह्मणाक धय्यांतुं फात्तरु.
549 भांगरा सूरि म्हणु पोटां घाल्नु घेवंचिवे ?
550 भांगी वळींतु तुळशी रोपो or तुळशी वळींतु etc.
551 भाड्या वैलाक देवा राकण.
552 भाल्लु खाक्यांतु घाल्नु पुराण आयकुंवंच्याक वर्षें.
553 भावु आशिलतशि देवु.
554 भिकाऱ्या उशालागचि पोळि.
555 भिके शितांतु कायळो हागलो.
556 भितल्याक ( भितऽयाक ) भिसडावंचें चड.
557 भीड भिकेचि भईणि.
558 भीमु आशिल्लो स्वर्गु नाका, रंगणिनें आशिलें वठार नाका.
559 भुत्ता नंबुनु काळकां वच्चें.
560 भुर्यींक चाम पांम्रवुंच्याकद्द ( चिम्रावंच्याकद्द ) पाय्याक व्हाणं घालचें
समार.
561 भुर्यी भारु, शित्ता केडु.

## म.

562 मंगळनायका उज्जो सगळे गावां लागलो.
563 मर्जे मर्जे भ्रांति वर्जे.
564 मडवळा मर्डे भायर काडतचि कळका.
565 मर्डें आसवरेक रडें.
566 मणशेणद्दलो घोलु.
567 मंत्रांकई तंत्र चड, ( थुंकि चड ).
568 मर्दे नायका कैंपु.
569 मधुबिंदु कलहु.
570 मनाक देवु साक्षि. ( see. 463 )

571 मनांतुं आस माया, हांतुळारि म्हर्नुं पाया.
572 मनांतु एक, जनांतु एक करचें
573 मनांतु मांडे खावंचाक पीट नाका or मनांतु खाल्लेले मांडे मनांतु जिरले.
574 मनाक भिवंचाकई जनांक भिवंका जात्ता.
575 मराव्या दिलें चांपें आंवले संगाति वासु मारलें.
576 मर्णिलें एकवत.
577 मशिगळो धुल्लेलो तितलो काळोचि.
578 मसणांतु व्हेलेलें मडें.
579 मस्तिलोकी निमगिल्यारि खाल्यारि इत्तें दिता.
580 मळपारि थुंकिलें मात्यारि ( तोंडारि ) पडता.
581 मळियाळा वच्चे फुडेचि काना पाळयो थुंटवूनु वेवंच्यो or पाळयेंतु बोट्टं घालचिं.
582 मांकडा मारल्यारि पाल्लो हागता.
583 मांकडा हात्तांतु माणीक.
584 माकाइ धनिष्टा, रायाकइ धनिष्टा.
585 माका नोप्रो सात भाकऱ्यो, तांतु खंचो सोयरो धायरो.
586 मागिल्या तोंडाक हागिल्लि गांडि.
587 माजराक खेळु, उंदराक जीवु वत्ता.
588 माजरानें गू निपैले गादि.
589 माजरानें दोळे धांकुनु दुद पिलेलि संगति.
590 माजरा बोडावेलो दिवो.
591 माजरा सट्टि धोर्नुं सुण्या बारसो थाइ सोदचें.
592 माड्डो हारीक गेलो, किळसशि वाढता.
593 माड्या मुळांतु दूद पिल्यारि सूरु म्हणताति.
594 माड्यारि चडतल्याक खर्यिथायि हातु दिवयेद ?
595 माड्यारि थावुनु पळ्ळेल्याक पिड्याने बोडुवंचो.
596 मात्यारि ( मुळाक ) घाल्लेलें उदाक पाया ( तुरियेक ) थाइ पावता.
597 मात्यावेलें वज्जें खांदारि आइलें.
598 मानु वत्तचि हीनु जात्ता.

599 माझे इतें धड, कुरटा इतें पाड.
600 मापांतु पाप करनयें.
601 मामाने हालेलें तवशें खंचे खांदारि घेवंचें ?
602 मामा मामु शेण व्हावंतालो.
603 माम्मु वाडला, शाम्मु होर्डिक.
604 मार्यि सांगता सुखे बुद्धि, आपण खात्ता घोड्या लद्दि.
605 मारल्यारि हस्ति मारका, लुटल्यारि भंडार लुटका.
606 मारिने जाणनातिलें घर ना.
607 मारेकारा कडे सुख दुःख सांगचें.
608 मावसबोळी आबोलि वयिल्या तक्षण फुल्लेवंका.
609 मावां घरालाग्गियाइ येवुनु ( तेंडले ) वाळिमांटवा मुळांतु निद्दलो.
610 मावां ( बापुसु ) सांगाति बैसूनु, मार्यी ( आवुसु ) सांगाति उटायता.
611 मासळे ( झळक्या ) कुळ्याक करळ्या चीप.
612 मासलेंतु शेवटो चोरु, मनशांतु पडति चोरु.
613 माक्षिचाने हस्ति वचयेत, मुख्ता ( इद्रा ) वेल्याने मूयि वचूनयें.
614 मिर्रि नासल्यारि तोरिकइ पाष्टवे ?
615 मिझ्यो आसत्ति ह्मणु पांडु ह्मणका.
616 मीट खाल्लेलो कीरु.
617 मुदगयागेल्या घरांतु शिदगयाने प्रवेशु केलो.
618 मुयेक मूत प्रळय.
619 मुये रुपानें साकर खावंचि ( see हस्ते रुपाने ).
620 मुळाक पळ्यारि नांक उंचारि.
621 मूर्ति सानि जाल्यारि कीर्ति होडि.
622 मेच्चुलि मेच्चुलि पजडपणाक मेच्चुलि.
623 मेणानें चिकलु काडचो.
624 मेलेल्या मळ्याक खोंचें.
625 मेलेल्या म्हशीक तूद चड.
626 मोगा धुवेक चांदण्यांतु उवो काडच्यो.
627 मोन्याक नांक खर्पिल्लि गादि.
628 मोन्या सोपन कोणा कळता ?

629 मोव्वु आशिल्लेकडे कोप्राने खोंचें.
630 म्हशीचिं शिंगं म्हशीक जड न्हयिं.
631 म्हशी विकूनु दाव्यांक लडायि.
632 म्हांतारियेगेल्या कुंकडामितिं फालं जाइना.
633 म्हांतारो डोंबु ढोलु वाचूक.
634 म्हांताऱ्या बैलाने गायीक आडायिल्या गादि.
635 म्हाळपक्षांतुलो भट्टु, आशाडमासांतुलो तट्टु or the reverse.
636 म्हाळपैक अजीर्ण, सर्व घराण्याक पेज.

## य.

637 यलपाशाणांतुलो किडो or एलपाशाणांतुलो.
638 योगि आशिलो भोगि न्हयीं, भोगि आशिलो योगि न्हयिं.

## र.

639 रगडो आज्जा पयण.
640 रगडो ( लोखंड ) तिंबयिल्यारि भिजतवे ?
641 रगडो भांगार जाल्यारि गावंभरि वांटयेत.
642 रंगस्थळांतु कर्डि.
643 रागु नुडिसुतना तार थुंटलि.
644 राजा असो मी तसो, माकागे रांडे पेजेचो निसो.
645 रज्जु नास्तना बांदूनु घालचें.
646 राज्याक रायु जाल्यारि आवसूक पूतु.
647 रांड म्हणा कूंड म्हणा पोट भर्नु वाडा.
648 रांडे लग्नाक सातपांच ( सतराइशीं ) विघ्न.
649 रांदपिणी पोरु उपाशि पण्णा.
650 रांद वरेक तडवूनु वाडसरि मडक्यांतु खाल्लें.
651 रांदू कळना जाल्यारि राकडं वर्लि.
652 रांदू कळनाशिलि बाईल न्हयिं, घोळू कळनाशिलो दारलो न्हयिं.
653 रान भोंवुनु राक्कुड मेळनि.
654 रान लाग्गि, गावुं धूर.

655 रानाक वतल्याच्या कुर्टाक कुराडि बांदचि.
656 रानांतु पावुसु पळ्ळेलो गावांतु आयकना.
657 रानांतुल्या मांकडाक गावां हाण्णु सोळ्ळेले वारि.
658 रानांतुलो कारो मारना, शिक्यावेळें तेलु मारता.
659 रामभट्टा पंचकदायि.
660 रामेश्वराक गेल्यारि शनीश्वरु सोण्णा.
661 रायागेलें मन आनि रुक्का सावलि तात्तावळि परतता.
662 रायागेलो घोडो लायांतु म्हांतारो जालो.
663 रायानें म्हळ्यारि ( सांगल्यारि ) दळ हालता, भट्टानें म्हळ्यारि शेंडी हालना.
664 रायानें म्हळ्ळेलि पूर्वदिशा, भट्टानें म्हळ्ळेली अमास.
665 राया बाइलेक जाल्ले तरी ऋण आशिलें तितलेंचि मेळता.
666 राया बायिलेक फुल्लां घोश्याने मारनाफुडे तुकलें.
667 रावळारांतुल्या भात्ताक उंदूर झगडताति.
668 राक्षसिकडे पाळणें विंदुळूक दिल्या वारि.
669 रीण केल्यारी घाण्यांतु हातु.
670 रीण कर्नु काप केलें, काप विकून वाडि दिल्लि.
671 रुचि आस, जिर्वण ना.
672 रुमडी पाळ शेळीक धावंता.
673 रेवेंरि मुतिल्ले गादि.
674 रोट्टि मोण्णु तुप्पांतु पळ्ळि.

## ल.

675 लग्न केल्या शिवाइ पिर्शे वचना, पिर्शे गेल्या शिवाइ लग्न आइना.
676 लग्नाक हाळ्ळलो तांदुळु शेसेक खरचलो.
677 लट्कें आवंतण जेवतचि खरें.
678 लंडाक भंड मेळ्ळो.
679 लंडाक भित्तकी भंडाक भित्ता ?
680 लांचु घाल्या ( दिल्या ) शिवाइ बोंचु हालना.
681 लाजे गेल्यारि पेज्जे वाटना.
682 लाभु लेक्कूनु केळि खाल्लि.

683 लाशिल्या घरा वासो.
684 लोखंड उज्या शिवाइ मवु जायिना.
685 लोणियाक दांत आयिले.
686 लोणियांतुलो आगलु काळेले गादि.

## व.

687 वकदचि पथ्य करता.
688 वट्टा भायलो दांतु.
689 वड्या तेल वायंग्यांक गेलें.
690 वणति आसल्यारि चितारो ( केदनाइं ) बरवयेद.
691 वणति धुल्यारि ( धुल्ले तितलो ) चिकोलूचि.
692 वस्तळ्या अण्यारि थावुनु पळेलो उगडासु खीरि भुर्कितना जालो.
693 वयिनें पर्सु खाल्यारि राकचें कोणें ?
694 वरु मेळ्ळो, शेंडूनु गेल्लो.
695 वरु मोडयल्लेकडे कासु खर्चीनि.
696 वल्या मडळा सूढि घेवुनु सोदचें.
697 वल्या वणतीक फात्तरु मारल्या वारि.
698 वल्लि कांबळि व्हांवतल्याक जडि.
699 वागाकइ वासरा बोब चड.
700 वागा मळिगेंतु दीस काडचे.
701 वागा माक्षि गोंडो धरतलो नांचता.
702 वागा मिशियेरि कोल्लो खेळता.
703 वांचूनु वरल्यारि वेंचूनु खावयेत.
704 वांजेक बाळांग्या पीडा इतें गोत्तु ?
705 वाट्टेने वतल्या वागा माका येवुनु खागा.
706 वाट्टें मोडवूनु तट्टें केलें, तट्टें मोडवूनु कांयसो केलो.
707 वाडतलो आपलो आसल्यारि कोटग्यांतुं जेवयेत.
708 वाझांतु बैसूनु कांडणा मारु चुकवुंच्याक जात्तवे ?
709 वारें आनि उज्जो एकडे मेळेले गादि.
710 वारें आयिल्ले तशि शीड ( सूप ) दिवंचें.

711 वाह्लीक फळ जडवे ?
712 वासरा कानांतु वारें रिगिल्या वारि.
713 विजार शिवयितलो मुतच्याक वट्टो दवरनावे ?
714 वेंकुनें पडंबूर गेल्लेलेवारि.
715 वेंटो लाशिल्ले तरि वळु वचना.
716 वेत्ता चुकिल्लो, वावांक चुकलो, वावांक चुकिल्लो गावांक चुकलो.
717 वेसु घालुनु नांचना म्हळ्यारि जातवे ?
718 वेसु घाल्लेले तशि नांचका.
719 वैजिणीकडे उपस्थ ( पोट ) निपवुंचें.
720 व्याप्ति शिवाई प्राप्ति ना.
721 व्यारु केल्लेलो चड्डु जावुनु हात्तांतु आयलें धुपटणें.

## श.

722 शक्तिने जायनात्तिलें युक्तिने जात्ता.
723 शरण आइल्याक मरण ना.
724 शिकायि आनि तेल.
725 शिक्या पोट्टु थुंटलो, माजरा पुण्य पिकलें.
726 शिंगाक चारि बांदिल्लि संगति.
727 शिज्जैल्या भात्ता तिरळु.
728 शिवयतल्या उजम्यानें, रडतल्या दाव्यानें बसू नयें.
729 शिवरात्रिगेरि गोकुलाष्टमि ( नवरात्रि ) आयिली.
730 शीस मारच्या गावांतु नागवूनु सोळ्यारि पुरो.
731 शेजार्णिनें पोरा पोसल्यारि आवइ इत्याक ?
732 शेंटा भाज्जेक तुप्पा फण्ण.
733 शेणांतुल्या किड्याक शेणा वासु ना.
734 शेराक सवाइ शेरु.
735 शेळि खीरि उस्पूवुंचि.
736 शेळें शिताक वारें घाल्लेले म्हणके.
737 शोधु चड्डु, बोधु थोड्डो.
738 श्रीगणांतु पागारु आइलो.

## स.

739 संकल्पु कोरचे भित्तरि अमृतघडि खर्चेलि.

740 सगळें रामायण आयकूनु रामु राक्षसु कीं रावणु राक्षसु म्हळेले गादि.

741 सत्याक मरण ना.

742 सन्याशाक कोपु येद.

743 समुद्राक वयि बांदयेद, उल्लैतल्या गेलें तोंढ बांदूक आयिना.

744 समुद्राक वयि बांदिल्लि संगति.

745 समुद्रांतु सोळ्ळेलें तारुं तडीक लागतचि खरें.

746 समुद्रु होड्डु जाल्यारि आयदाना इतलें मेळता.

747 सर्पाक उश्या घेवूनु निद्दल्लि संगति.

748 सर्पाक दूद घालेलि संगति.

749 सर्पा बोढावेलें माणिक.

750 सर्पा मात्यारि निर्विशा काडि दवरले गादि.

751 सर्व गद्दळ, वणतीक आद्दळ.

752 सर्व सोळ्ळें, सोन्नारपण मांडलें.

753 सर्वांनि पालकींतु बसल्यारि व्हावंतलें कोण ?

754 सवरग साटो, हागवणी मार्गु.

755 संशयि मन सावळेक भित्ता.

756 सांगतल्याने सांगल्यारि आयकतल्याने निधानसुवंका.

757 सांगिल्लि सांगणि, बांदिल्लि भुत्ति, खयिंथायि येत्ता ?

758 साटि वराची म्हशि हाण्णु स दुडवां दाव्यांक वार्जिक केल्लि.

759 सान तोंडाक होड्डु घासु.

760 सुंकावेलो काण्णु समुद्रा पाळं मोज्जूक घाल्लो.

761 सुक्के गांडीक वल्लो बिब्बो.

762 सुक्के पायांने तड्डि घेवंचि.

763 सुण्याक सलगि दिल्यारि मात्यारि चडता.

764 सुण्याक सिंहासनारि बसैल्या गादि.

765 सुण्या, गू जायि म्हळयारि कांटियेरि हागता.

766 सुण्या तोंडांतु बड्डि घालनयें.

767 सुण्या नेवनाने न्हाणा उपचार.

768 सुण्यानें भोंकल्यारि स्वर्गु तग्गु येत्तवे ?
769 सुण्यानें सांतेक (यात्रेक) गेलेत्यारि.
770 सुण्या बाल नळियेंतु घाले तरिकई वांकडेंचि.
771 सुवेक ह्यादिवळिं त्यादिवळिं, घुवेक ह्याऽऽशुक्रारा त्या ऽऽ शुक्रारा.
772 सुपेकरांगेलें लेक.
773 सुंबा मुंजीक कांवळे काष्टि.
774 सुवे मोन्यानें साखर वांटचि.
775 सूणें आसतना बड्डो ना, बड्डो आसतना सूणें ना.
776 सूत उवाच करचें.
777 सू म्हळ्यारि रागु कळता.
778 सोत्तल्याक मेळता.
779 सोन्नारानें कानु विंदल्यारि दुक्कना or हायजात्ता.
780 सोयरिं धूर आसका, बायिं लाग्गि आसका.
781 स्मशान वैराग्य, प्रसूत वैराग्य.
782 स्वर्गाक दोनि बोट्टं.
783 स्वार्थाक दोळे ना.

## ह.

784 हरयें सोत्तल्याक पिकलें मेळलें.
785 हस्तेक घांट नाक्का.
786 हस्ते पादु.
787 हस्ते पोट्टांतु गाड्डुव.
788 हस्ते भारु हस्तेक, मुये भारु मुयेक.
789 हस्तेरि बैसूनु मागुनयें, घोड्यारि बैसून कुरुनयें.
790 हस्ते रुपानें पाल्लो खावंच्याकइ मुये रुपाने साकर खावंचि बरि.
791 हाग्गु बशिल्याक झाड आड.
792 हाड्डा लाग्गिल्लि काति.
793 हाता घोर्नु हाळेल्याक्षण बाइल जायनि, पोटां उबजल्याक्षण चर्डुं जायनि.
794 हातां आयिलें तोंडा पावना.
795 हातां कांकणांक भारशि इत्याक ?

अस्मता मूरती
पाप्यानी गेल्लेल केदे घे पौल और उधा

796 हातांतु कासु नातिल्यानें तार एकळाक दांटुवुंका.
797 हातां पावनातिलें फूल देवाक.
798 हांतुळातकीत पाय निडुवुंका.
799 हांतुळा (मांद्रे) मुळांतु वतल्याक मांद्रे (भुईं) मुळांतु वतलो गांटलो.
800 हांतुळारि (मांद्रेरि) आयिल्लेक सोण्णु वाट्टेने वतलेक सम्नि करचि.
801 हावं गोरि, आक्का गोरि, हळदि वाटतलें कोण ?
802 हासतल्यागेले दांत भाइर.
803 हींगु बांदिलें लोगट.
804 हून उदाक निवोनु पिवंका.
805 हून उदाक हाडतां तुर्कप्पा.
806 हून उदका घोट्ट.
807 हेक्कडे न्हायिं, तेक्कडे वांयिं.
808 होगळसुयिल्या तोंडानें बोगळसुवचें.
or होगळुल्या तोंडानें बोगळुवचें.
809 हैरुं धावंता म्हणु गायंडळु धावंता.
810 होड्डु गांडिच्याक शूळा दिवंचो.
811 होड्डा घर लासूनयें, गरिबा बाईल मोरनयें.
812 होड्डाने खेल्यारि रुचीक, गरिबाने खेल्यारि भुक्केक.
813 होन्नारामा फोवु.
814 होरडीके ( लग्ना ) मांटवांतुं म्हशीवासराक सोदूक आइलो.
815 होरैतु होकलांगेलें कशि आसो, घडवाळ्या दामु पळयारि जालो.
816 होळ्ळि मेलि म्हणु केलि धाकटि, तिका लागलि उबशी रोगटि.

For further Proverbs see the Supplement.

## Some instances of Similes of the nature of Proverbs.

### अ, आ, उ.

1 अंत्रपिशाच.
2 अड्डा ( यड्डा ) तड्डा.
3 अधिक पंचायति.
4 अष्टवांकुड.
5 अक्षर शत्रु.
6 आकाशनंदी.
7 आंड कापिलो बोकडु.
8 आंबाळ्या कातोसो (जुगुळता).
9 आरंभ शूरु.
10 आशाढमासांतुलो बेबो.
11 आश्लुशे पावुसु.
12 उग्र कुमारु.
13 उदकाकइ पातळ.
14 उवारा हुळुनु आइल्लो.

### क.

15 कळ्या पात्तल्सो उसळचें.
16 कर्णपिशाच.
17 काङ्गि मोण्णु सांगचें.
18 कान खांवचें भांगार.
19 कानु ( बोड ) कुशिलें सूणेशें.
20 किराने उलैले वारि.
21 कीर्टिशि खिर्षे.
22 कुंकडा पायानें गिरुयले गादि.
23 कुबेरुसो.
24 कुंभकर्णा नीद.
25 कुरुडो मूसुसो धांवता.
26 केळिशि वाडल्या.
27 केळिं सोलैलेगादि.
28 कोम्बळिंतुलो आल्या कुडकोसो सोदचें.

### ख, ग, घ.

29 खड्डाय स्वरूपाय.
30 खाड्डारि मांटवु घालि.
31 गप्पेदासु
32 गर्धब गायन.
33 गूळे आयिले वारि करचें.
34 गोमुख व्याघ्रु.
35 घाण्या बैलुसो घुवंचें.
36 घायसोक्का वागुसो.
37 घुमटा गणेशु.
38 घोणिगेलि झोंपिशि.

### च, ज, झ.

39 चवती रगडो.
40 चाम्मा आंबे.
41 जगली भागवतु.
42 जडभरतु.
43 जमदग्नि अवतारु.
44 जांबुवंतुं.
45 जोगभट्टु.

46 जोडागुग्गुम.
47 झूजा कोंबे.

### त, द, न.

48 तुसवांतुलो उजो.
49 दोळ्यांतुलो कैरु.
50 धुवरु लागिलो वासो जायिना.
51 नांकालागि कापूस धरला.
52 नारदमुनि.

### प, ब, भ.

53 पक्षंबर.
54 पापाक ना पुण्याक ना.
55 पावळ्यांतुलि तोरि.
56 पिसुळेलें कुंकड.
57 पीलि खालेलो उंदुरु.
58 पोकळे हम्मदु.
59 फोवा लाठि.
60 बकध्यान.
61 बकपक्षिसो.
62 बण्णा आयणो.
63 बस्ते घांट.
64 बाल मस्तिलेलो सर्पु.
65 बिक्कुणु मर्डिलेले गादि.
66 बैलाने मुतिले गादि.
67 ब्रह्मकपाल.
68 भस्मासुरा वरु.
69 भगीरथ प्रयत्न.
70 भिजिलो कायळोसो.

### म, र, ल.

71 मांडकाने माति गिळेले गादि.
72 मायकाभूत.
73 मायिसून.
74 मार्कांडेया आयुष्य.
75 मावळोभाचो.
76 मीट खालेलो कीरु.
77 मुंगूसु आनि सर्पु.
78 मोन्नेभूत.
79 म्हाळपक्षांतुलिं सूणि.
80 म्हाळसे रायु.
81 रक्तबीज.
82 रड्डोसो वेकूला.
83 रवळनाथा कूळ.
84 रामबाणु.
85 रावणा मुरडि.
86 रोणत्रुडका थपराको.
87 लोणिशें करगुवंचें.

### व, श, स, ह.

88 वामनमूर्ति.
89 वारेंनि उज्जो.
90 शिंगि सर्पा हगे.
91 शीं सकळु पाय उंचारि.
92 शुक्राचार्यु.
93 शुक्लकाष्ट.
94 शेणांतुले किडे.
95 सुंगटशें डडता.
96 सुंटि मांडेशें सणसणी.

97 सुडमण्णा घूडुसो भुगभुगचें.
98 सुण्यानें हाड (चामडें) चावडायलेंगादि.
99 सुण्या जाति.
100 सुण्या सोयरीक.
101 सुत्रा बोंबे.
102 सुंदर बखेखानि.
103 सुंदररावणु.
104 सुर्पोनका.
105 सोकना सवर्णे.
106 हनुमंता चप्पर.
107 हनुमंता बाल.
108 हरिदासा तट्टु.
109 हाडा लागिली काति.
110 होकले बापुसु.
111 होयमाल्यो घालच्यो.

---

## Some instances of Idioms.

### अ, आ.

1 अवतारु जालो.
2 असलाक तोटो.
3 अस्थायस्पट.
4 आकाश थुंद्रुनु पळें.
5 आकाश पाताळ एक करचें.
6 आंग चोरचें.
7 आंगारि आयिल्यां.
8 आडकुवाळें.
9 आदायु घारा आयलो.
10 आंबट करतां.
11 आंबाडे सौरग करि.
12 आंब्या ताळो.
13 आमसाणी खोट्टो ( मोट ).
14 आवाहन विसर्जन.
15 आषाढमासु.

### इ, उ, ए.

16 इंगळाष्टक.
17 इंग्लीश उलैता.
18 इंद्रजाल.
19 उजवाडपेद्रु.
20 उजो लावंचो.
21 उदाक सोडचें.
22 ऊतु दि्वंचो.
23 एका पायानें उबरुवंचें.

### क.

24 कणकट.
25 कर्टे कुडको.
26 कस्पट लेकचें.
27 कांकणं सूवुनु घेवचें.
28 कां कूं करचें.

29 कान उघडचे.
30 कान चाबचे.
31 कान फुंकचे.
32 कापणि काडचि.
33 कार्य साधकी.
34 काष्टकीडि.
35 काष्टि सडलु.
36 काळें करचें.
37 किमस खुंटया.
38 कुंकडा घूडु.
39 कुंटमुशा.
40 कुंडेबळ्ळि.
41 कुंडोकुशिल.
42 कुंबारु.
43 कुमणमंत्रि.
44 कुवाळिं कातरचिं.
45 कुळार धूर.
46 कूडुं बांदचो.
47 कोगिरभर्ति.
48 कोल्या शींग.

## ख, ग, घ.

49 खाको उबारचो.
50 खाक्यांतु कानडी आस.
51 खाक्यांतु पोटलि घालचि.
52 खारु घालचो.
53 खिचडि खावंची.
54 खोडि मोडची.
55 गंडागुंडि.
56 गांर्डींतु बाल घालचें.
57 गांडि तोंड ना.
58 गाळु घालचो.
59 गुंडियेंतु देवंचें.
60 गोकर्ण दाकवंचें.
61 गोबरगुत्तिगा.
62 गौडबंगाल.
63 घडवाळ्या दामु.
64 घोंगो करचो.
65 घोट्टु गिळतचि बसचें.
66 घोसाळया कात्तो.

## च, ज, ड.

67 चकार शब्दु.
68 चतुर्भुज.
69 चवळे मुडे कातरि.
70 चारिहात.
71 चावि फिरावंचि.
72 छानिशि करचें.
73 जडक्षांटि.
74 जडु जावंचें.
75 जीब चाबचि.
76 झकमारचें.
77 डोंकूनु पळवंचें.
78 डोंगरु सारवंचो.

## त, द.

79 ताळतंतु.
80 तिप्रदंड लाक.
81 तिळमात्र.
82 तोंडपूजा.
83 तोंड सान करचें.

84 तोंडाक पान्नं पुसचिं.
85 तोंडा खरजु काडचि.
86 तोंडांतु शेण घालचें.
87 तोपि घालचि.
88 थुंद्दनुपडचें.
89 दारलफोडो.
90 दालि शिजना.
91 दिवालि काडचि.
92 दिवे लावंचे.
93 दोळे उघडचे.
94 दोळे खरडेक खिचवंचे.
95 दोळे धांकचे.
96 दोळे फिरचे.
97 दोळे सोडचे.
98 दोळयांक उदाक लावंचें.
99 दोळयांतु धूलि (माति) घालचि.

## ध, न.

100 धुत्रो घालि.
101 धुत्रो धरइ ( दाकइ ).
102 धुवरु पळवंचो.
103 नख धरुनु शिखथाइ.
104 नांकाक चुनो लावंचो.
105 नांकांतुलो केसु.
106 नांका मोतीं.
107 नांकारि कोपु.
108 नावांपुरतें.
109 नोटाक ना नुडियेक ना.

## प, फ.

110 पंक्ति प्रपंच.
111 पगडि फिरावंचि.
112 पथ्यारि आइलें.
113 पदरांतु वालि.
114 पळकेलें शीत.
115 पान हालना.
116 पायांक नक्षत्रं पळयांति.
117 पित्थ चडचें.
118 पुंगि बंद जालि.
119 पूर्व दिशा.
120 पोकळ काष्टि.
121 पोटलि बांदचि.
122 पोटारि पाय दिवंचे.
123 प्रकर्ण करचें.
124 प्रतापचवल.
125 फण्ण घालचें.
126 फशीरि घालचो.
127 फळं खावंचिं.
128 फाटि थापटावंचि.
129 फाटि दिवंचि.
130 फाल्गुणमासु.
131 फुसकि पातळ जालि.

## ब, भ.

132 बहुमाना गोंडो.
133 बाइलघोवो.
134 बागिलभैरवु.
135 बिरमेति.
136 बेगडी भांगार.
137 बोड कुंबु जावंचें.
138 बोड खरजुवंचें.
139 बोड तासचें.

140 ब्रह्मगांटि.
141 ब्रह्मघोटाळो.
142 भरीक पडचें.
143 भिकार चावडि.
144 भोवयांक गांठ्यो घालच्यो.

म.

145 मर्कि माळ्यारि चडवींच.
146 मंडेवळ्ळी.
147 मंत्रपुष्पं.
148 मर्यादे गोंडो.
149 मागल्या पायानें वचें.
150 मार्ते खरजूवचें.
151 मात्याक चडंचें.
152 मात्यारि चडचें.
153 मात्यारि चडवून घेवंचें.
154 मात्यारि हातु ताणचो.
155 मात्यारि हातु दवरचो.
156 मारीवर्ज्जें.
157 मासळेपेंठ.
158 मीट मिसांग लावंचि.
159 मुंडोन्यायु.
160 मूस मारीत बसचें.
161 मेंडो मेकळूनु सोडचो.

य, र, ल, व.

162 यथास्थित.
163 येवुनु वचूनु.
164 रगत आटवंचें.
165 राळेरोंपचे.
166 लागूनु येवंचें.
167 लाल देवरवंचि.
168 वकदाक ना.
169 वाटेक लावचें.
170 वाटेक वचें.
171 वाटेरि पडचें.
172 वामकुक्षि.
173 वार लागि पुरल्या.
174 वान्यारि पडचें.

श, स, ह.

175 शंखु वाचलो.
176 शष्टाष्टक.
177 शिवरागु.
178 शेंडियांक गांठ्यो घालच्यो.
179 शेळू जालो.
180 सड्डु दवरचो.
181 संपुष्टांतु येवचें.
182 सुण्या बालावु.
183 सूणें तर्न पीना.
184 सूत उवाच करचें.
185 हात थंड करचे.
186 हातु माक्षि घेवंचो.
187 हातु हूनु करचो.
188 हुडचणि लागल्या.
189 हुमुसु काडचो.
190 होमेधरण.

## Some Sanskrit Maxims in vogue.

Those marked by asterisk are Sanskritised forms.

### अ—औ

1 अजागलस्तनवत्
2 अजापुत्रं बलिं दद्यात्
3 अतिरेकं विनश्यति *
4 अति सर्वत्र वर्जयेत्
5 अंधपरंपरान्यायः
6 अधिकस्याधिकं फल
7 अनाथो देवरक्षितः
8 अन्नगतप्राणः चर्मगतदृष्टिः
9 अन्यक्षेत्रे कृतं पापं पुण्यक्षेत्रे विनश्यति
10 अरण्यरोदनन्यायः
11 अर्धो घटो घोषमुपैति नूनं
12 अल्पविद्यो महागर्वी
13 अविचारपुरीमध्ये यः पलायति जीवति
14 अव्यापारेषु व्यापारः
15 अहोरूपमहो ध्वनिः
16 आत्मछिद्रं न जानंति परछिद्रानुसारिणः
17 आत्मैव ह्यात्मनो बंधुरात्मैव रिपुरात्मनः
18 आरंभशूराः खलु दाक्षिणात्याः
19 आलस्यादमृतं विषम्
20 आशायाः परमं दुःखं, निराशा परमं सुखं
21 इतो भ्रष्टस्ततो भ्रष्टः
22 इंद्राय तक्षकाय स्वाहा
23 इदं च नास्ति परं न लभ्यते
24 उदरनिमित्तं बहुकृतवेशः
25 उद्योगः पुरुषलक्षणं
26 एरंडोपि द्रुमायते
27 औषधं जाह्नवीतोयं

### क—न

28 कफोणीगुडन्यायः
29 कर्मणो गहना गतिः
30 काकतालीयन्यायः
31 कांचनात्कार्यसिद्धिश्च
32 कामातुराणां न भयं न लज्जा
33 कालस्य कुटिला गतिः
34 कुरूपी बहुचेष्टकः
35 कूपमंडूकन्यायः
36 गतानुगतिको लोकः
37 चंचुप्रवेशो मुसलप्रवेशः
38 चर्वितचर्वणं
39 छिद्रेष्वनर्था बहुलीभवन्ति
40 जनवाक्ये जनार्दनः
41 जामातो दशमो ग्रहः
42 टीका टूकामपेक्षते
43 तर्कं शक्रस्य दुर्लभं
44 तातस्य कूपोयमिति ब्रुवाणाः क्षारं जलं कापुरुषाः पिबंति

45 तुषकंडनन्यायः
46 त्वयार्धं मयार्धं
47 दुर्जनं प्रथमं वंदे सज्जनं तदनंतरं
48 दूरस्थाः पर्वता रम्याः
49 दैवो दुर्बलघातकः
50 न देवाय न धर्माय
51 न भूतो न भविष्यति
52 नरो वा कुंजरो वा
53 नलिकागतमपि न भवति सरलं शुनः पुच्छं
54 निरस्तपादपे देशे एरंडोपि द्रुमायते
55 निस्पृहस्य तृणं जगत्
56 नीचैर्गच्छत्युपरि च दशा चक्रनेमिक्रमेण

## प—म

57 पयसा सिंचितो नित्यं न निंबो मधुरायते
58 परान्नं प्राणसंकटं
59 परोपदेशे पांडित्यं
60 पिष्टपेषणन्यायः
61 पृष्ठ ताडनाद् दंतभंजनं
62 पुनरागमनाय च
63 प्रथमग्रासे मक्षिकापातः
64 प्रोदीप्ते भवने तु कूपखननं प्रत्युद्यमः कीदृशः
65 बाबावाक्यं प्रमाणं *
66 बालानां रोदनं बलं
67 बुद्धिः कर्मानुसारिणी
68 मन एव मनुष्याणां कारणं बंधमोक्षयोः
69 मनःपूतं समाचरेत्
70 महाजनो येन गतः स पन्थाः
71 मौनं सर्वार्थसाधनं
72 मौनस्य कलहो नास्ति नास्ति जागरतो भयं

## य—क्ष

73 यथा राजा तथा प्रजा
74 यद्वा तद्वा भविष्यति
75 येनकेन प्रकारेण प्रसिद्धः पुरुषो भवेत्
76 योजकस्तत्र दुर्लभः
77 रूढिर्योगाद्बलीयसी
78 लंघनं परमौषधं
79 रामाय स्वस्ति रावणाय स्वस्ति
80 वचने किं दरिद्रता
81 वादे वादे जायते तत्त्वबोधः
82 विनाशकाले विपरीतबुद्धिः
83 विप्राः पश्चिमबुद्धयः
84 वृद्धा नारी पतिव्रता
85 शंखान् दध्मुः पृथक् पृथक्
86 शठे शाठ्यं समाचरेत्
87 शापादपि शरादपि
88 शिष्यापराधे गुरोर्दण्डः
89 शुभस्य शीघ्रं, अशुभस्य कालहरणं
90 शेषं कोपेन पूरयेत्

91 सर्वे जनानां देवदारगंधः *
92 सहसा विदधीत न क्रियां
93 समानशीलव्यसनेषु सख्यं
94 ससमं दैवचिंतनं
95 सत्यमेव जयते
96 सिंहावलोकनन्यायः
97 सुखं च मे शयनं च मे
98 स्थालीपुलाकन्यायः
99 स्वयमपि लिखितं स्वयं न वाचयति
100 हंसक्षीरन्यायः
101 क्षणं चित्तं क्षणं वित्तं
102 क्षीरेण दग्धजिह्वस्तु तक्रं फूत्कृत्य प्राशति

---

## Some of the Kanarese Proverbs in use.

Those already published by the Basel Mission Press in the compilation of 1500 Proverbs are excluded.

1 अक्कि कोट्टु अक्कन मने याके ?
2 अंगळ गूडिशिदरे हब्ब आयिते ?
3 अंगळल्लि हेतु मंगळ कष्ट.
4 अडिकोंडल्लि केडिकोंडा.
5 अडिगे अंगारक, मध्य मंत्राक्षते, मेले गोपीचंदन.
6 अति आशे गति केडु.
7 अंतु इंतु कुंतिमक्कळिगे वनवास.
8 अत्ते कालद नंतर सोशे काल बरुवदु.
9 अंदिगे अदे सुख, इंदिगे इदे सुख.
10 अंबिलि कुडियुववगे मीशे तिक्कुवनोब्ब.
11 अम्मनवरु प्रायक्के बरुवनक अय्यनवरु कैलास.
12 अल्पगे अर्धायुष्य, पापिगे परमायुष्य.
13 अल्पगे ऐश्वर्य बंदरे मध्यरात्रे कोडे हिडिसुव.
14 अवळिल्लदे अष्टपुत्र ( मगन हेसरु सोमनाथ ).
15 अळकापुरदल्लि अरवत्तु मारु हारिदनंते
16 आकलु कप्पादरे हालु कप्पे ?
17 आचार्यरिगे मंत्राक्षित उगुळु हेच्चु.

18 आडे गोडे, गोडे बागा.
19 आतकालक्के भूतकालक्के.
20 आ ताळक्कू ई मेळक्कू गंटु.
21 आरे अल्प, कन्नड स्वल्प, तिगळु बोगळु.
22 आलाबाला पापि तले मेले.
23 आळन अंके इल्ल, मोळन भयविल्ल.
24 इडी मुळुगिदवगे छळि इल्ल.
25 इद्दवरु मूरु, कद्दवरु यारु ?
26 इष्टु दोड्ड रायरिगे इष्टु सण्ण चीटियो ?
27 ईसुवष्टु ईसिदरे गंगम्म ताने वय्युवळु.
28 उंड्डु हेतवन कुंडे हाळु.
29 ऊट आयितु, ओले कित्तुहाकु.
30 ऊटक्के इल्लद उप्पिनकायि यातक्कू बेड.
31 ऊट हाग, फळार मुप्फाग.
32 ऊरिगे अरसादरे तायिगे मग.
33 ऊरिगे ओंदादरे पोरगे ओंदु.
34 ऋषिगळ मक्कळिगे शष्पवे अलंकार.
35 एण्णे शिक्किद्दे शणियार ( शनिवार ).
36 एद्दरु साविर, बिद्दरु साविर.
37 एनगु हरिनाम, माधवगु हरिनाम,
एनगु जलशयन, माधवगु जलशयन,
एनगु ट्रोयं ट्रोयं, माधवगु ट्रोयं ट्रोयं.
38 एम्मेगिम्मे तंद्रेगिंद्रो ननगिक्किया बावगिक्किया ?
39 एल्ला बण्ण मशि नुंगितु.
40 ओडि होद, कल्लु मुट्टि बंद.
41 ओड्डुववरकिंत मुंदे, कडियुववरकिंत हिंदे.
42 कट्टिकोंडु राज्य कोडुत्तारो !
43 कंडरे माणि, उंडरे गोणि.
44 कन्नड सूळेगे कोंकण मिंड.
45 कब्बु डोंकादरे सवि डोंके ?

46 कल्लप्प गुंडप्प कूडि मेणसप्पन पुडि.
47 कळ्ळन हेंजे कळ्ळने बल्ल.
48 काळन अंके इल्ल, मोळन भयविल्ल.
49 कुंडेभट्टरिगे एद्दद्दे मुहूर्त.
50 कुंबारगे तट्टु मडिके.
51 कुरुड कण्णिनवळे निने बा.
52 कैयिंद कोट्टु कालु हिडियुवदु.
53 कोडुवदु मूरु कासु, दुडियुवदु मूरु तासु.
54 कोण वेळेदरे आने आदीते ?
55 कोंदवगे कोले तप्पा.
56 कोर पगडि, काचिन बुगडि, ऊटके उप्पिल्ला,
दीवर पोरिगे दिमाखु हेच्चु, दीपके एण्णिल्ला.
57 गुब्बिमेले ब्रह्मास्त्रवे ?
58 गोडे बिद्दरे जगलीमेले, साल बिद्दरे पोरन तलेमेले.
59 चक्क सण्णा, कायि दोड्डा.
60 चमगारर देवरीगे मेट्टिन पूजे.
61 जटकन मुंदे कायि, शेट्टि मुंदे हण.
62 तण्णीरादरु तनिशि कुडियबेकु.
63 तलेगिंत तरडु गात्र.
64 तायगंड देवरिगे मादरचोद पूजारि.
65 तारि दाटिदमेले अंबिगन हंगु याके ?
66 तां हिडिद मोलक्के ( कोळिगे ) मूरे कालु.
67 तुत्तुरिगे ब्रह्मार्पणे.
68 तेळु आदरे अंबिलि, दप्पादरे रोट्टि.
69 तोटकोंदु वाळे, मनेगोंदु मुदुकि.
70 तौडु तिंबुव वय्यार.
71 दना तिंबुववगे मीनु हेसिगेये ?
72 ननगू बेडागित्तु, नायकरू छी अंदरु.
73 निनगू पें, निन्नप्पगू पें.
74 नायिगे केलसविल्ल, कूडिरलिक्के तेरपिल्ल.

75 नेत्तिमेले बायि इद्दरे मत्तोंदु तुत्तु उंडेनु.
76 पंचपांडवरेंदरे मचंद कालिनंते मूरे जनरु.
77 पांडवरीगू भाव, कौरवरीगू भाव.
78 पुकुळि तोळियुवगे जोताड्डुवदेके ?
79 पुंडरिगे अर्ध राज्य.
80 बडवन मनेगे भागीरथि.
81 बरडेम्मे हालु बंदष्टु लाभ.
82 बरे कैयिंद ( कैयल्ले ) मोळ हाकुवदु.
83 बरे गुल्लु, निद्दे गेड्डु.
84 बरेदु बिट्ट बसव.
85 बसवनहिंदे बाल.
86 बाडक्के हेगडे सोल्ल, हेगडेगे बाड सोल्ल.
87 बावन इच्छेयो बदनेकयिय इच्छे ?
88 बावा बावा दीप अंदरे बेंकिया ?
89 बुद्धि बल्लवने हिरिय.
90 बेल्लद रोट्टिगे शास्त्रविल्ल.
91 वैद बायिगे होयूद पेट्टु.
92 बोम्मा बित्तो, तिम्मा कोय्यो.
93 भावियल्लि बिद्दरू भांचोद बिडा.
94 भीमन होट्टेगे काशिनमजिगे.
95 मक्कळ हेळिके निद्दे, नेंटर हेळिके ऊट.
96 मक्कळिगेल्ला बेक्किन पळदे.
97 मंचक्के मणे याके, लंचक्के होणे याके ?
98 मनेगे मारि, परोपकारि.
99 मळेशिरि बेळेयल्लि काणबेकु.
100 मातु मातु प्रसंगेन गेणिअक्कि विनश्यति.
101 मीशे बरुवाग देश काणा, मोले बरुवाग नेल काणा.
102 मुंदे उंटु मुदुकिय हब्ब.
103 मूर्तिसण्णदादरू कीर्ति दोड्डुदु.
104 मूरिंद मुक्ताय.

105 मूवर किविगे मुट्टिदु मूरु लोकक्के.
106 याव देवर गुडि आदरेनु, निद्दे बिद्दद्दे लेक्ख.
107 रोगि हरिसिदक्कू वैद्य बेरसिदक्कू गंटु.
108 रोट्टिगे बंद नायि तुप्पक्के बंदीते ?
109 लंड देवरिगे भंड पूजारि.
110 वत्तायर्दिद देवस्यभट्टर रुजु.
111 शानभोवर मक्कळिगे उंडे सोलिसबेकु.
112 शुक्रगे सोळे आगा, शनिगे बेळे आगा.
113 संकट बंदाग वेंकटरमण.
114 संगति सोतु नोडबेकु, हेंडति हेतु नोडबेकु.
115 सट्टने उत्तर कोट्टरे कोट्टष्टु फल.
116 सत्त पुकुळि एत्त बिद्दरेनु ?
117 सत्य माडिदव सत्ता, अन्याय माडिदव अन्न उंडा.
118 साविर इद्दवनू दोड्डु, साल इल्लदवनू दोड्डु.
119 सिक्किदष्टु मक्कळ पुण्य.
120 सीते हुट्टि लंकेगे केडु, मुकांबे हुट्टि मंकिगे केडु.
121 सेट्टि एनुमाडता ? आळिता होयुता.
122 सेट्टि शेरु, लिंग पंछेरु ( अडायशेरु. )
123 हण इल्लदे बड्डि केट्टितु.
124 हंदिगोणदवरु हादर माडिदरे कुमटेयवरिगे दंड.
125 हंदि हायिद्दे मुख.
126 हनमंतरायरे नमस्कार. नम्म हेसरु निमगे हेगे तिळियितु ? मुख कंडरे
तिळियुवदिल्लवे ?
127 हादरक्के हुट्टिद पोर होयिलिगे बिद्दुहोद.
128 हार्वर बोट्टु हरदारिंयिंद काणबेकु.
129 हालुमोसरिगे कडिमे आदरू हल्लुमुसरेगे कडिमे इल्ल.
130 हिड्डु बूदि ओंदे.
131 हिडिदद्दू होयितु, मेट्टिद्दू होयितु.
132 हुब्बेमळे अब्बेहालु.
133 हूवु डोंकादरे परिमळ डोंके.

134 हेण होरुववगे शष्प बाधेये ?
135 हेळिद्दोंदु बिट्टु मिक्किद्देल्ल माडेनु.
136 हौदु बसवण्ण हौदु, अल्ल बसवण्ण अल्ल.

---

## Some of the Marathi Proverbs in use.

1 अतिराग भीक माग.
2 अन्न तारी अन्न मारी.
3 आधीं पोटोबा मग विठोबा.
4 उडदामाजी काळेंगोरें काय निवडावें.
5 एकटा जीव सदाशीव.
6 गरज सरो, वैद्य मरो.
7 घोंगडीला मी सोडलें, पण घोंगडी मला सोडीत नाहीं.
8 छडी लागे छमछम, विद्या येई घमघम.
9 लोकां सांगे ब्रह्मज्ञान आपण कोरडा पाषाण.
10 साठी, बुद्धि नाटी.

---

## Some of the Hindustani Proverbs in use.

1 अब्रूका कपडा.
2 अमारे इजारमें कोन हग्या.
3 अहमदकी पगडी महमदके सीरपर.
4 आप भला तो जग भला.
5 उंलटा चोर कोतवालकू पकडा.
6 एक देशकी बोली, दूसरे देशकी गाली.
7 एकसे दो भले.
8 खानेकू पीनेकू मैं, लढनेकू मेरा बडाभाई.
9 गद्धेकू गद्धा मिला तो मारे दोदो लात.
10 गरजवानकू अक़ल नहीं.

11 तेरे उपर मेरा घोडा.
12 थोडा खाया तो मीठा, बहूत खाया तो खट्टा.
13 दर्याकू अंगार लगी तो मछली किधर जायिंगे ?
14 दर्यामें खलखल.
15 दसके लकडी एकका बोजा.
16 बडा घर, पोकळ वासा.
17 बडे मियां खाना खाता है ढोल बजाव.
18 बोले तो मा मरती, नहीं बोले तो बाप कुत्ता खायगा.
19 मारे तो हत्ति मारना, लुट्या तो भंडार लुटना.
20 मूकू नहीं सुपारी, गांड मंगती जाफल.
21 राजा बोले मुलूख हाले, बुढा बोले दाढी हाले.
22 सीर सलामत रहे तो पगडी पचास.

---

## Supplementary List of Konkani Proverbs.

817 आपणा गेलें विसरता, दुसऱ्यां गेलें उलैता.
818 इतल्यारि इतलें, बोंत्रारि कितलें.
819 उदकांतु हुम्मेता.
820 एका भात्ताक एकु तांदूळु.
821 एका शेजारा आशिल्यांक उत्रा उत्तर येत्ता.
822 कामलि ( अरशिनमुंडिगा ) जाल्लेल्याक पळयिल्लें हळदुवें.
823 कायिं केल्यारि कायिं ना, व्याज्य केल्यारि अर्द आस.
824 कुणब्या जावंयि वाशा तट्टि घेवुनु गेलो.
825 गावां तकीत वेसु करका.
826 गेल्यारि दुसऱ्या बाइलेक etc. etc.
827 गोयें फिरंग्या जालें.
828 जीवु वचना म्हणु हातपाय धाडांवचे.
829 थेंबो पळ्यारि कुंवारु जात्तवे ?



830 दारल्यांक बाइलो ससार. ( Perhaps this is the latter par
of No. 382 )



831 दाक्षिणे गेल्यारि पोट येत्ता.
832 दिवो निवतनां होडु जात्ता.
833 धाडावूनु पिकैल्लें वगि कुस्ता.
834 पादा नावं पद्मरसा, फुस्कें नावं तिर
835 बुदवंताक इतें शिंगं आसति, पिशाक इतें बाल आसव ?
836 भक्ति नास्तना मुक्ति मेळना.
837 मस्करी वचूनु कुस्करि जालि.
838 मळप पडतना हात्तानें तडवुंचाक जायिना.
839 मात्यारि ताळ्यारि पायांरि ना, पायांरि ताळ्यारि मात्यारिना.
840 मायिं मर्ता सुने ठायिं, सून मर्ता मिंडा ठायिं.
841 मुतच्या पूतें हातां घरचें.
842 यह्लुगेलि रुपइ.
843 येवजिल्लें एक, जाल्लें आनेक.
844 समुद्राक जाल्ले तरी सुक्ति भर्ति आस.
845 लक्ष प्रदक्षिणा, दुगाणि दक्षिणा.
846 वणतीक कान आसती.
847 वांकडि तिंकडि शेवा, पाल्सूनु घे तूं देवा.
848 शंभरि चेडियो मोरनु उबजला.
849 शक्ति दीवुनु शेवा घेवंचि.
850 संधि पाडि, जेवणाक वाडि.
851 सोन्नरांगेल्या प्रस्ता वडो.
852 हस्ते पायां मुळांतु मूयिशि.
853 हेद्यांरि मींडु करचो.
854 हासतेल्या दारल्याक, रडतल्या बाइलेक नंबू नं
855 हेद्यांरि रोम नातिल्या दारल्याक, तोंडारि मिश्यो आशिल्या बाइलेक
नंबुनये.
856 भूमापंडूता गांडीरि मारल्यारि रामापंड्ता दांत पड्ताति.

---